# कुटु-च्यो

बरोवपी :

नयना आडारकार







श्री हरि प्रकाशन

# कुटुऱ्यो

बरोवपी :

**नयना आडारकार**




श्री हरि प्रकाशन

Kanyo : Kuturyo

**काणयो : कुटुऱ्यो**

**बरोवपी : नयना आडारकार**

प्रकाशन क्र. २२

नयना आडारकार

पयली उजवाडावणी : जानेवारी २००५





**उजवाडावपी :**

*दीपा दिनकर मुरकुंडे*

श्री हरि प्रकाशन

३८९/अ, शांतिनगर,

आर्के-बायश, नावेली,

गोंय - ४०३ ७०७.



**अक्षर जुळणी** :

स्पिडॅक इन्फॉरमॅटीक्स, मडगांव.

फोन नं : २७३७००२

**छापणावळ :**

प्रिंटआर्ट ऑफसेट्, कुंडय.

**मुखचित्र आनी भितरलीं चित्रां** : वासू

**मोल** : २० रुपया

# हुपीची फजेत

एक आशिल्लें माकडा पील. ताचें नांव हुपी. पापयाक, दिसता ती वस्त उखलून, आरतून परतून पळोवपाची संवय. एकदा एका झोपांमुळांत एक गोठाण गुटली करून बरी ऽऽ न्हिदिल्ली. हुपीक त्या काळ्या-हळदुव्या तिब्याच्या गुटलेक पळोवन अजाप जालें. ताणे गुटली काडून हाताच्या तळटार दवरली मात, गोठाण न्हिदेतल्यांन उठून पुट्ट करून नीट्ट जाली. तसो हुपी भियेवन उडक्यो मारीत सुटलो. बाकीचीं माकडांपीलां हुपीक खु:खु करून हांसलीं.

एकदीस सगळ्या माकडांपिलांनी गांवाभायल्या देवळांत वचून प्रसादाची फळां फारावपाचें थारायलें. हुपीय तांचेमदी आसलो. सगळीं पिलां देवळांतलीं फळां पुंजायतालीं आनी हुपी मात देवळाभायर, आरतेवेळारर मारिल्ल्या फुगेट्यांच्या कोयरांत सांसपितालो. इतल्यान ताच्या हाताक रंगीत वाटकुळोच गुळो लागलो. हुपीन तो गुळो आरतून-परतून पळयलो. ताका तें कितें तें कळ्ळेना. "शे !" म्हणत ताणें तो गुळो जमनीर शेवटून मारलो. तेसरशीं गुळो फुटून दुम्म आवाज आयलो. हुपीसयत सगळीं माकडांपिलां भंयान हांगा थंय उडक्यो मारूंक लागलीं. हुपीन सकयल शेंवटिल्लो, तो आशिल्लो आपटबॉम्ब. ताच्या आवाजान देवळांतले भट जागे जाले. देवळांतलीं प्रसादाचीं फळां माकडापिलां फारांवक आयल्यांत हें पळोवन दांडे घेवन भट तांचे फाटल्यान लागले. हुपीक आनी बाकीच्या माकडांपिलांक रानांत धांव मारता म्हणसर सामकी खरस लागली.

# गर्वाचें घर खाला

एके बागेंत एक मोर रावतालो. आपुण पाखां फुलोवन नाचतकच, लोक खोशयेन नाचतात, तें पळोवन तो सामको गर्वान फुलतालो. ताणें मागीर मान 'अश्शी-अश्शी' हालयत बागेंत भोंवचें. लोकांक पळोवन, पाखां फुलोवन नाचचें.

एकदीस बागेंत पासय मारतना, मोरान एका दोमळ्याक, तुरतुरीत धांवतना पळयलो. तशें "शी ! कितें बाये ही चाल ?" म्हणत मोरान मान वांकडी केली. आनी मोराची उतरां आयकून अजाप जावन पळोवपी दोमळ्याक दांग घालून तो मुखार सरलो.

दोमळ्याक, मोराच्या उतरांची आनी दांग घालपी करणेची भिरभिर मारली. ह्या मोराक बुध्द शिकोंवकूच जाय, अशें येवजून ताणें मोराक म्हळें, "आरे मोरा, म्हजी चाल कशीय आसूं, पुण म्हजेकडेन बुध्दीची तांक आसा. कसली सर्त करया सांग ?" ते बराबर मोरान म्हळें, "हांव पाखां फुलोवन नाचतकच लोकूय खोशयेन नाचतात. तुजेंकडेन खंय आसा म्हजेअसली पाखां ? सर्त कसली बोडक्याची करतलो ?"

दोमळो हांसलो. ताणे म्हळे, "म्हाका पाखां नासल्यार नासू. म्हज्यान पाखां बगर मनशाक नाचोंव येता. हांव सर्तीक तयार आसा. तू कितें तें सांग ?" मोर सर्तीक तयार जालो. ताणे आपल्या भोवतणीं

एक भोंवताडो घालो आनी पाखां फुलोवन नाचपाक लागलो. ताका पळोंवक आयिल्ले लोकूय, खोशयेन ताळ्यो मारीत, पावलां वाजोवंक लागले. तशी मोरान दोमळ्याक कुरू केली. दोमळो, तुरूतुरू करीत, एका मनशाच्या खोमसांत भितर सरलो. आनी मेळत थंय ताका चाबत सुटलो. तेंसरशीं, तो मनीस थयथय नाचूंक लागलो. मेळत थंय आंग खरपूंक लागलो. तें पळोवन मोराक अजाप जालें. आपल्यापरस्सूय दोमळ्याक लोकांक बरें नाचोवपाची तांक आसा हें पळोवन, गर्वान अश्शी-अश्शी हालपी मोराची मान आपशींच सकयल गेली.



# टिंकू हुंदीर

टिंकू हुंदराक बाबुल्याच्या कुडींत भोंवपाक आवडटालें. थंय ताका बिस्कुत्यो, चॉकलेटी, आनी हेर खाणांचे कुडके मेळटाले. एकदीस असोच भोवतना ताका एक जल्लो दिश्टी पडलो. टिंकून ताका चीं ऽऽ चीं ऽऽ करून भिवयलो. पूण जल्लो हाललो ना, धोल्लोय ना.

मागीर टिंकू ल्हवूच मुखार गेलो, पळयल्यार तो जल्ल्याचो स्टिकर. स्टिकर पळयतकच टिंकूचे तकलेंत एक आयडिया आयली. तो स्टिकर घेवन टिंकू आपल्या बिळांत गेलो आनी संदीची वाट पळयत रावलो.

ती संद ताका दनपारची मेळ्ळी. बिलूबाय, बरें ऽऽ नुस्त्याचे जेवण जेवन, सुस्त जावन सुशेग घेतालें, तेन्ना टिंकून तो जल्ल्याचो स्टिकर ल्हवूच बिलूबायल्या शेंपडे पोताक लायलो. आनी मातसो पयस लिपून बिलूबायची मजा पळोवंक रावलो.



सुशेग घेवन जातकीच बिलूबाय उठलें. अश्शी भायर बागेंत एक पासय मारली आनी मागीर एका झोंपाआडसाक लिपून कोणूय हुंदीर बी येता काय पळोवंक लागलें. झोंपाच्या त्या अर्दान, बिलूबायची जल्ल्याचो स्टिकर लायिल्ली शेंपडी अश्शी, अश्शी हालताली. थंयसावन पासार जावपी कोंबलेदादाच्या नदरेक ती ज्युस्तच पडली. झोंपाआडसाक अस्सो हालपी जल्लो पळोवन कोंबलेदाद नेटान धांवत थंय गेलो आनी त्या हालत्या जल्ल्यार चोंच मारली. तेबराबर “म्यांव

ऽऽऽ म्यांव ऽऽऽ" अशो हालेटी मारीत बिलूबाय थंयसावन शेंपडी तुटसर धांवत सुटलें. कोंबलेदादूय भियेवन, कों ऽऽ कों ऽऽ कों ऽऽ कों ऽऽ करीत पयस धांवलो. आनी त्या दोगांयची दशा पळोवन टिंकू हुंदीर चीं ऽऽ चीं ऽऽ करीत नाचपाक लागलो.

# धोडयाऱ्याचे तकलेंत

पिटूक धोडयाऱ्याक आवयन उलो मारून सांगलें, 'शाण्या पिटूक, मात्सो वयर वचून बाबाक .....' तिचें सांगप सोंपचे आदींच पिटूक धोडयारो सुळ्ळ करून उदकांतल्यान वयर गेलो. ताणें उदकांतल्यान तकली भायर काडून पळयल्यार ताका एक मनीस उदकांत दोरी लांबयत बसला तें दिश्टी पडलें. दोरयेक कितें आसा तें पळोवंक वचपाक त्या मनशान दोरी वयर ओडली आनी निर्शेवन म्हळें 'छे ! धोडयाऱ्याचे तकलेंत तीन फातर.'

पिटकून तीं उतरां आयकलीं आनी तो बद्द सूर मारून उदकांत सकयल आवयसरी गेलो आनी ताणें म्हळें, 'आई, वयर धोडयाऱ्याचे तकलेंत तीन फातर.'

'हांव जाणां तें. आनी तुवूंय तातुंतलोच' आवयन रागान म्हळें. पूण पिटकूक आवय रागार तें कळ्ळेंच ना. ताणें आपले गले आवयच्या पोल्यार घांशीत म्हळें, 'आई सांग मगे तकलेंत तीन फातर कित्याक ते.'

'ती मरे व्हडली काणी.' आवयन म्हळें. तसो पिटूक 'काणी-काणी कोतवा, धोडाऱ्याच्या नातवा' म्हणत आवयचे सरभोंवतणी सुळ्ळ-सुळ्ळ करून नाचपाक लागलो. आवयन अपुरबायेन ताका लागीं ओडलो आनी ती सांगूंक लागली.

देवान नुस्त्यांक जल्मांक घाल्लीं तेन्नाची गजाल. एक दीस देवाचे बायलेन सगल्या नुस्त्यांक सांगलें 'दर्या तळाक वचून तीन मोतयां घेवन येयात.' ती उलयता तें सोपचेंच आसा धोडयारो नेटान उदकांत गेलो. ताणें सगल्याक सोद-सोद सोदलें. सोदतना ताका मोतयां दिश्टी पडलीं. पूण बाबड्यान तीन हीं उतरांच आयकल्लीं. देखून तो खंयूय तीन गजाली एकठांय मेळटा काय सोदपाकूच उरलो. निमणे बऱ्या ऽऽ वेळान ताका तीन तांबशे-गुलाबी फातर एकठांय मेळ्ळे. ताणें ते घेतले आनी उमेदीन तो वयर देवा बायलेसरीं आयलो. पळयल्यार बाकीच्या नुस्त्यांनी हाडिल्ल्या मोतयांचे राशीर देवा बायल बसल्या. तिणें धोडयाऱ्यान हाडिल्ले फातर पळयले आनी ती लागली हांसपाक. तशीं सगलीं नुस्तींय हांसपाक लागलीं. देवा बायलेन म्हळें, 'धोडयाऱ्या हांवें तुमकां कितें सांगलें तें पयलीं बरें आयकुवपाचें आनी मागीर वचपाचे. आयकलें ना आनी मोतयां सोडून हे तीन फातर घेवन आयला. घे हे फातर तुजेच तकलेंत घालतां. हे फातर पळोवन तरी हे मुखार सुदारतलो' अशें म्हणत तिणें ते फातर धोडयाऱ्याचे तकलेंत घाले. 'तेन्नासावन ते फातर आमचे तकलेंत आसात. आनी आमी

मात अजुनूय तींच पिशेपणां करतात.' आवयन म्हळें तशें पिटूक धोडयाऱ्याक आपली चूक कळ्ळी.

'आई, म्हजी चूक म्हाका कळ्ळी. हाचे मुखार अशें केन्नाच करचोना.' पिटकून म्हळें तशें आवयन ताचें फाटीर मायेन आपली शेपडी भोंवडायली.

## हुतहुतें

दाराफाटले खांचींत काळ्या मुयांचें बिराड आसलें. बिराडांतल्यान रांदचे कुडींत, जेवणा कुडींत मुयांची सदांच यो - वच आसताली. सगळ्यो कशो शिस्तीन, रांकेंत चलताल्यो. पूण तांचे मदीं एक हुतहुती मूय आशिल्ली. तिणें सदांच रांक मोडची. आनी आपणें सगळ्यांत फुडें धांवचें. वचत थंय हुतहुतप. तिच्या ह्या हुतहुत्या सभावाक लागून तिका नांवूच पडिल्लें 'हुतहुतें'.

हुतहुत्याचें नाक सामकें तिक्ष्ण. खंयूय कोणेंय रांदूं, खाणांचो वास पयलीं हुतहुत्याच्या नाकांत. मागीर घे, हुतहुतें धांवलें मुखार. जाण्टेलीं ताका शिटकायतालीं, 'आगो हुतहुत्या, सांबाळून. बेठोच वास येता म्हूण धांवूं नाका. खाण कसलें तें पयलीं पळय, नाजाल्यार पडटलें त्रासांत.' पूण हुतहुतें तें हुतहुतेंच. ताणें केन्नाच जाण्टेल्यांची सांगणी कानामनार घेतली ना.

एक दीस रांदचे कुडींतल्यान गोडा मेलाचो वास सुटलो तो बद्द रिगलो हुतहुत्याच्या नाकांत, घे, हुतहुतें सगळ्यांत पयलीं धावलें थंय. 'आगो, हुतहुत्या, राव, राव, म्हूण सगळीं म्हणटा थंय आसात पावलें हुतहुतें रांदचे कुडींत.' थंय गॅसीर कायलींत गोडामेल शिजतालें. घरकान्नीन मेल जालें काय पळोवपाक एक कुलेरभर मेल बशयेंत घालें. मेल जालें तें पळोवन तिणे गॅस बंद केलो. आनी ती थंयसावन गेल्या मात, हुतहुतें चडलें सोमतें बशयेंत आनी घालें तोंड मेलांत. हुनहुनीत मेलान हुतहुत्याचें तोंड भाजलें, तशें लागलें हुतहुतें थय-थय नाचूंक. ताचे फाटल्यान बरें शिस्तीन, रांकेन आयिल्ल्या मुयांक बरें न्हिविह्लें मेल खावंक मेळ्ळें. पोटभर मेल खावन मुयो बिराडाक परतूंक लागल्यो. आनी अजाप म्हळ्यार तांचे फाटल्यान शिस्तीन हुतहुतेंय चलतालें. हुतहुतें बरो धडो शिकलें. तेन्नासावन हुतहुतें, हुतहुतें उरलें ना.

## हार उडटा म्हूण

मातयेंतल्यान तकली भायर काडून गांयडोळ्यान चोयवशीन पळयलें. 'आं, कोण्ण ना. बरी पासय मारपाक हरकत ना' म्हणत तो सरपटत चलूंक लागलो. वतां-वतां ताच्या कानार कोणाचीं तरीं उतरां पडलीं 'हार उडटा ....'

'हार उडटा' इतलींच उतरां ताका कळ्ळीं. बाकीचीं ताचे तकलेवेल्यान गेलीं. 'हार उडटा ? आब्बा ! मागीर म्हाका उडपाक

कितें जालां तर ? आमी दोगूय सरपटेच. तो मात्सो म्हजेपरस आंगान मोटो. म्हूण कितें जालें ? हांवूय उडटलों, हारावरी.' ताणें मनांत थारायलें आनी तो उडत चलपाक लागलो.

पूण गांयडोळ तो गांयडोळ. ताका भोव उडपाक येता. तो चलतालो तेन्ना वळवळटा कसो दिसतालो. ताचे वाटेर मेळिल्ले धांवरे मुयेन धांवतां धांवतां ताका शिटकायलें 'आरे पापया, गांयडोळा. कित्याक रे करता वळवळ ? आरे दुस्मानाचे नदरेक रोखडोच वतलो आनी तो तुका आख्खोच खातलो.'

धांवरे मुयेची सांगणी गांयडोळान काना-मनार घेतली ना. तो आपलो आपलेच मस्तेंत चलत रावलो. शेपडी अश्शी मुखार ओडून मागीर झुप्प करून तोंड मुखार घालें मात, ताच्या तोंडाक खडबडीत कितें लागलें. पळयल्यार कोंब्याचे दोंके. गांयडोळाच्या काळजांत कल्ल जालें. ताणें भियेत-भियेत नदर वयर केली. पळयल्यार तांबडोगुंज कोंबो. कुककूक-कॅककॅक करून हांसत कोंब्यान गांयडोळाक आपले चोचींत घेतलो. ताका चोंचींत झेलयत तो दुरगामेरेन धांवलो. दुरगाकडेक गांयडोळाक दवरून ताचेर चोंच मारपाक गांयडोळ व्हडा शिटूकसाणेन दुरगाकडेच्या बुराकांत लिपलो. लिपतां लिपतां दुसऱ्या बुरकांतल्यान तकली भायर काडून म्हणपी धांवरे मुयेचीं उतरां ताणें आयकलीं 'हार उडटा म्हूण गांयडोळ उडटा.' आनी गांयडोळ लजेन मातयेंत पोटली करून बसलो.

# म्हाका खबर आसा

एक आसलो पाखो. 'शोभू' ताचें नांव. शोभू खरेंच खूब सोबीत दिसतालो. ताच्या भांगराळ्या कोराच्या पांखांचेर वाटकुळेच काळे तिबे आसले. तो फुलां-फुलांचेर भोवपाक़ लागतालो तेन्ना बाकींची सवणीय ताका पळेत रावतालीं.

पूण शोभूक एक वायट संवय आसली. कोणूय कसलीय खबर सांगू ताणें पच्च करून म्हणचें, "म्हाका खबर आसा." मागीर सांगतलो रागारं जावन खबर् अर्दकुटीच सांगतालो. आनी अर्दकुटें आयकल्ल्यान शोभू मागीर त्रासांत पडटालो.

एक दीस असोच उड्टा-उड्टा ताका ताचो इश्ट मेळ्ळो. शोभून ताका विचारलें, 'खंय गेलो रे हेवटेन ?' इश्टान म्हळें, "त्या रानांत. थंय मरे एक तळें आसा ...." "म्हाका खबर आसा" शोभून पच्च करून सदचे संवयेन म्हळें.

"त्या तळ्यांत जीं साळकां आसात ............" इश्टाचें सोपचे आदीच शोभून परतेंय म्हळें, "म्हाका खबर आसा." तसो ताचो इश्ट बेजारलो. ताणें म्हळें, "खबर आसा मरे तुका सगळें, मागीर बरेंच जालें. येता तर हांव" म्हणत तो थंयसावन उडून गेलो.

तो गेलो तसो शोभू रानांत तळ्यावटेन गेलो. पळयल्यार तळेंभर घे ऽऽ म्हूण साळकां. साळकांनी भरभरून म्होंव. म्होंव पळोवन शोभू

सामको पिसो जालो. साळकां-साळकांर भोवून ताणे पोटभरून म्होंव खालें. तरीय ताची आस सुटना जाली. 'आनी इल्ले - आनी इल्ले' म्हणत तो साळकांनी रिगतालो आनी म्होंव खातालो.



तो म्होंव खावंक इतलो घुस्पल्लो, ताका तिळसांज जाली म्हणपाचें लेगीत कळ्ळेना. पोट टुण्ण जाल्लें तरींय एका साळकांत म्होंव खावंक बशिल्लो. इतल्यान साळकाच्यो पाकळ्यो बंद जायत येतात तें ताका दिसलें. ताणें उडपाचो यत्न केलो. पूण, पोट जड जाल्ल्यान ताका झुप्प करून उडूंक जालेना. साळिक बंद जाता जाता, ताका इश्टाची उतरां याद जालीं. "त्या तळ्यांत जीं साळकां आसात ..........." घडये मुखार तो हेंच सांगूक सोदी. पूण "म्हाका खबर आसा" म्हणत हावें ताकां मुखार सांगुकूच दिलेंना. शोभूक आपल्या वागण्याचें पिकसांव जालें. पूण तो मेरेन खूब कळाव जाल्लो. साळिक बंद जाल्लें आनी साळकांतल्या काळखांत शोभू बंद जाल्लो.

# कुटुऱ्यो

एका बिळांत एक हुंदीर, हुंदुल्ली आनी तांचीं पिटकुलीं पिलां गुटू आनी पुटू रावतालीं. गुटू आनी पुटून रातभर सुस्त न्हिदचें आनी दिसाचे बिळांत लिपच्यांनी खेळचें. लिपपाक हांगा-थंय धांवतना ताणी हुंदीर-हुंदुल्लेक आपटुचें. ताणी खेळटना 'कुटुऱ्यो' म्हणत केल्ल्या बोवाळांत हुंदराक आनी हुंदुल्लेक न्हिदुंक पसून मेळचे न्हय.

"आरे बाबांनो, आमी रातभर बिळांतल्यान भायर सरून तुमचेखातीर खावपाक हाडटात आनी आतां मातसो सुशेग घेतात, म्हळ्यार तुमचो हो कुटुऱ्यांचो खेळ. पुरो करात तो आतां" हुंदरान धेंकणो घालचो. पूण गुटू-पुटू तो धेंकणो कानामनार घेनाशिल्ले.

एकदीस रातभर गुटू-पुटू खातीर खांवक पुंजावन हुंदुल्लेक सामकें पुरो जाल्लें. म्हूण सकाळी हुंदुल्ली मातशी आड पडली. ज्युस्त तिकां दोळो लागपाक, गुटून 'कुटुऱ्यो' म्हणत जी उडी मारली, ती बद्ध आवयचेर. हुंदुल्ली रागान आनीकूय काळी जाली. तिणे आवाज चडोवन म्हळें, "आरे, तुमकां बिळाबायर कोणे खावन उडयत म्हूण हांगाच दवरून आमी भायर वचून तुमकां खाणां हाडून खावयतात ताची चड मस्ती मारल्या तुमकां. आवय-बापायक पुरो जालां हें कळना व्हय रे तुमकां ? हाची तुमकां ख्यास्त दिवचीच पडटली. आयज तुमी दोगुय बिळाभायर वतले आनी आमचेखातीर खांवक हाडटले."

आवयची आज्ञा ती. मानुकूच जाय. जालें, ते रातीं गुटू-पुटू पयलेच फावट बिळांतल्यान भायर सरले. लिपत-दपत ते दोगुय चताले, इतल्यान तांका मुखार बुकीमाम बशिल्लो दिसलो. ज्युस्त त्याचवेळार बुकीमामाची नदर तांचेर गेली. तोंडातल्यान लाळ गळयत बुकीमाम तांचेवटेन धांवलो. गुटू-पुटूक भरलो कडकडो. पुण ते दोगूय आशिल्ले शिटूक. बुकीमाम फुड्यांत पावता म्हळ्यार पुटून पुटटूक करून बुकीमामा पलतडी उडी मारली. आनी म्हळें, "कुटुऱ्यो" बुकीन फाटल्यान वळून पळयलें. पळयल्यार पुटू. पुटूचेर दावखूल मारपाक ताणे फाट परतीली. परत ताच्या फाटल्यातल्यान गुटून म्हळे, "कुटुऱ्यो." बुकीमाम हेवटेन घुंवता, म्हळ्यार तेवटेन आवाज "कुटुऱ्यो." हेवटेन तेवटेन घुंवता-घुंवता बुकीमामाक येंवक लागली घुंवळ. तोमेरेन ताका कुटुऱ्यो करून घुंवणायत घुंवणायत दोगूय बिळासरीं पावले. दोगांयच्या हुस्क्यान हुंदीर-हुंदुल्ली बिळाच्या दारार रावन वाट पळयतालीं. तांणी हो "कुटुऱ्यांचो" खेळ पळयल्लो. तांणी गुटू-पुटू बिळांसरी येताच, तांका झुप्प करून ओडून भितर व्हेले. आनी कुटुऱ्यांनी घुंविल्लो बुकीमाम, घबांयच करून बिळां दारानुच घुंवळून पडलो.

## सोशाची पिल्लूक

एक आसलो सोसो. तो सदांच गावांत वचून शेतांतले गाजर खांवन परतो येतालो. एक दीस असोच परत येतना ताका ल्हानशी

एक तांबडी वस्त दिसली. ती घेवन तो रानांत गेलो. ती आशिल्ली पिल्लूक. पूण, बाबड्या सोशाक तें खंय खबर. ताका त्या तांबड्या पिल्लूकेविशी उमळशीक लागली. 'कितें काय हें ?' म्हूण ताणे ती पिल्लूक आरतून परतून पळयली.

तो पिल्लूक पळोवपाक गुल्ल जाल्लो. आनी हेवटेन वाघमाम ताका खावपाक, सामको ताचे म्हऱ्यान पावलो.



सोशाक खावपाक ताचेर वाग झोपय मारपाक, सोशान पिल्लूक तोंडांत घेवन फू ऽऽ केलें. तेसरशी पिल्लूक फिंव ऽऽ करून वाजली आवाजासरशी सोसो भियेलो, तो भियेलो, पूण वागाची मात भियेवन गुळी जाली, आनी 'जीव सलामत जाल्यार सोशे घे मार' म्हणत जीव घेवन वागान धांव मारली. त्या तांबड्या वस्तून आपलो जीव वाटायलो म्हूण सोशान ती बिळांत सांबाळून दवरल्या.

# जशाक तशें

एक बेबो आसलो. तो जांण्टो जाल्लो. ताका आता पयलीं बशेन टुणटुण उडक्यो मारपाक जमनासलें. ताणें आतां सद्दां येवन न्हंयदेगेवेल्या फातरार येवन बसचें. आशी-कु शीकच्यान जीव उडटात, तांका जीब लांब करून खांवचें. तशे करतना लेगीत ताका पुरो जातालें. मागीर तो दोळे बंद करून थोडो वेळ सुशेग घेतालो.

ताका असो बसतना, एक सोरोप पळयतालो. बेबो दोळे बंद करता तेन्ना ताका लव्हूच गटम करचो, अशें सोरोपान येवजिलें. एकदीस सोरोप, बेबो येवचे पयलीं, न्हंयदेगेर आशिल्ल्या त्या फातरा कुशीतल्या झोपांनी लिपलो.

सदचेवरी बेबो फातरार येवन बसलो. थोडे जीव खातकच पुरो जावन ताणें दोळे धांपले. तसो सोरोप झोपांतल्यान ल्हवूच भायर सरलो. आनी सरपटत बेब्यासरीं वचपाक लागलो. ताका तशें वतना एका घोणीन पळयलें. ती झुप्प करून सकयल देंवली आनी सोरपाक चोंचीत घेवन उडून गेली.

# वागाची मावशी

गुलू माजराची इश्टीण बुलू, दुसऱ्या गांवातल्यान आपल्या धनया सांगाताक येवपाची आसली. तेखातीर गुलू सामकें खोशी आसलें.

बुलू माजर आयलें, तशें बुलूच्यो आनी ताच्यो गजाली बऱ्यो रंगल्यो. उलयता उलयता बुलू माजरान म्हळें, "जाणा मगो गुलू, आमकां मगो लोक वागाची मावशी म्हण्टात." "वागाची मावशी ?" गुलू माजर घुस्पलें: "कोण हो वाग ?" गुलून बुलूक म्हळें.

"आंवय, सामके मगो ? वाग खबर ना ? तुमच्या गांवाच्या शीमेरूच तांचे खातीर रान राखून दवरलां. थंय आसात वाग. वचून पळय एकदीस." बुलून म्हळें.

फोण्ण घालून बुलू माजर गेलें. हेवटेन वागाक पळोवपाची गुलू माजराक उमळशीक लागली. एकदीस सकाळीफुडें उठून तें वाग पळोवपाखातीर गांवचे शीमेवटेन चलुंक लागलें. थंय पावता म्हणसर गुलू माजराक पुरो जालें. म्हुण तें मातशें थंयच लंवडलें. आनी सुस्त न्हिदून पडलें.

गुलू माजराक जाग आयली. ताणे आशिकुशीक नदर भोंवडायली, पळयल्यार, ताचे नदरेक वयर खांब्याक हुमकळायिल्लो वागाचें चित्र पिंतारिल्लो बोर्ड दिसलो. पूण बाबड्या गुलू माजराक तो खरोच दिसलो. ताणे ताका पळोवन पयलीं आंग काडले. आनी मागीर बारीकसाणेन नियाळ्ळें. अब्बा ! ज्युस्त म्हजेवरींच दिसता. आंगान मातसो मोटो. रंगानूय वेगळो. पूण पटे ज्युस्त म्हजेवरीच. मिशयो, दोळे, कान सारकेम्हजेवरी. मागीर ताणे मातशें हांशिल्ल्यावरी करून वागाक हटकिलें. "आरे वागा, असो वयर कित्याक बसला ? असो

सकयल यो. हांव तुझी मावशी, तुका मुजरत मेळूंक आयलां."




पूण वागान बाबड्या हूंय केलेना आनी हाललोना धोललोना. गुलू माजराक तेन्ना मातसो दुबाव आयलो. ताणे दोळे बारीक करून वागाक पळयलें. "शेर्त ! हो मेलाच आसुंक जाय. नाजाल्यार हाका मारून असो वयर हुमकळायला जातलो." मनांत हो विचार आयलो तशें गुलू माजराच्या पोटांत काँव जालें. वागाक जर असो वयर हुमकळायतात जाल्यार म्हाका, वागाच्या मावशेकूय मारून वयर हुमकळांवक ते फाटीफुडें सरचेना. देखून तर हें रान ताणीं राखून दवरलां. "नाका सायबा ! हो वागूय नाका, आनी वागाची मावशी म्हणून घेवपूय नाका. ते परस आपले घर बरें" अशे म्हणत गुलू माजर आपल्या घराकडे धांवत सुटलें.

# बरी जिरली

एका कोंबयेच्या घुडाशेजरा, गायचो गोठो आशिल्लो. गाय बाबडी सभावान थंड. पूण कोंबयो मात बोबाट्यो. दिसूयभर कलकल करीत रावताल्यो. गायेच्यान ती कलकल सोंसू नज जाताली. तिणे कोंबयांक खूब फावट समजायलें, "बाये, कोंबयानो, असो दिसुयभर बोवाळ करीत रावनाकात. म्हजे शेजरा येतकच तरी मातसो बोवाळ उणो करात."

पूण कोंबयांनी गायचे सांगणे मनार घेतलेंच ना. वेल्यान मुद्दाम तिचेसरी वचून चड बोवाळ करतालीं. गाय तांच्या ह्या बोवाळाक सामकी विटिल्ली.

एकदीस गायेक जिवाक बरें दिसनासलें. म्हूण ती गोठ्याच्या एका कोनशाक ओग्गी न्हिदिल्ली. ती ज्युस्त कोंबयांच्या नदरेक गेली. जाले, तिका बेजार करपाक, सगल्यो कोंबयो धांवत गायेसरी गेल्यो आनी तिच्या भोंवतणी कलकल करीत नाचूंक लागल्यो. गायेक कोंबयांची भिरभिर मारली. पूण जिवाक बरें नाशिल्ल्यान ती कांयच करू शकलीना.

पूण ते दिसासावन गाय, त्या कोंबयाक कशी बुध्द शिकोवची हाजेर येवजित आसली. एकदीस तिका एक माण्णी सुचली. त्या रातीं कोंबयो आपले घुडांत सुस्त न्हिदिल्ल्यो. तेन्नाच गाय ल्हवूच

घुडासरी गेली. घुडाचें दार भायल्यान बंद केल्लें. पूण घुडाक आशिल्लें सरयांचे उकते जनेल. गाय त्या जनेलासरीं गेली. आनी आपलें तोंड लागी व्हरून तिणे व्हडल्यान "हम्मा ऽऽ" असो आवाज केलो. ते सरशीं सुस्त न्हिदिल्ल्यो कोंबयो सडसडीत जाग्यो जाल्यो. गायेन आनीक फावट "हम्मा ऽऽ" केलें. कोंबयांचें काळीज कानासरी जावपी आवाजान कलकल्लें. गाय मागीर परत-परत हामेत रावली, कोंबयो रडकुन्यां येवन तिका पायां पडसर. कोंबयांनी म्हळें, "गायमावशे, आमीं चुकलीं. आमच्या बोवाळान तुका कसो त्रास जातालो ते आतां आमकां कळ्ळें. आमकां भोगसणी दी."

आपली माण्णी ज्युस्त सादली म्हूण मुमुरखें हांसत गाय आपल्या गोठ्यांत परतली.

## हरण आनी साळ

एक आसलें हरण. ताका आपल्या सोबीतकायेचो खूब गर्व. तें उदक पिवंक न्हंयचेर वतालें आनी न्हंयच्या उदकांत आपलें रूप तोखेत बसतालें. एक दीस तें अशेंच आपले रूप तोखेत मुरगुट्टालें, तेन्नाच साळ थंय पावली. साळेचें तें कांट्याचें आंग पळोवन हरणान म्हळें, "साळमावशे, तुजें आंगाक, कांटेच कांटे, म्हजे पळय भांगराळे, मोव-मोव विलुद कशें" आनी हरण फिंस्स करून हांसलें.

साळ आशिल्ली मायेस्त. तिणें हरणाक समजायलें. "पळय

बाय. तूं अजून भुरगें आसा. म्हूण म्हज्या कांटयाळ्या आंगाक पळोवन हांसता. पूण देवान म्हूण तें म्हाका ओगीच दिंवक ना. दुस्माना पसून म्हजे रक्षण करपाखातीर दिल्यात ते म्हाका, आनी तुका देवान दिल्यात हे दोन पांय, धांवपाखातीर."

दोगांय उलयतात थंस आसा, न्हंयेदेगेवेल्या झोपांतल्यान एक मनीस तुबक घेवन भायर सरलो. त्या मनशाक पळोवन हरण जालें आबूज, आनी हेवटेन-तेवटेन धांवूक लागलें. आनी ताचेर तुबक जोखीत तो मनीसुय हरणा फाटल्यान धांवूक लागलो. हरण संकटात सापडलां तें पळोवन साळेक ताचे चुरचुरे दिसले. तिणे आनी वेळ केलोना. आपलें कोंटे बाण कशे त्या मनशाच्या पांयार मोखले. कांटे पायांक रोमतकच मनीस तुबक कुशीन उडोवन पायांक रोमिल्ले कांटे काडूंक सकयल बसलो तशें हरण आनी साळ, थंयसावन फुज्ज्यो जालीं.

मागीर हरण, साळेक मेळपाक गेलें. ताणें म्हळे, "मावशे, देवान आमकां दिलां तें सारकें येवजुनूच दिलां. हांव आता कोणाचें रंग-रूप पळोवन केन्नांच कोणाक हांसचेंना" तेन्नासावन हरण सगळ्यांकडे मेळून रावपाक लागलें.

# मावली आनी म्होवामूस

एक आसली मावली. बाबडी साडेभावार्थी. तिणे एका बलबाच्या शेजाराच आपले जाळे विणलें. तीणे त्या जाळयात बसून रावचें. केन्नाच वण्टीवेल्यान अशी एक पासय मारुन येंवची, तितलेंच.

त्या बलबाच्या उजवाडान एक म्होवामूस सामको पिसो जातालो. येवन-येवन आपली तकली ताचेर तो धाडायतालो. ताची काकळुट दिसून एकदीस मावलेन ताका म्हळें, "बाबारे, म्होवामूसा . कित्याक बेशटी तकली धाडायता?" तेबराबर म्होवामूसाक आयलो राग. ताणे कॅच्च करुन म्हळें, "आगे मावले, चड कित्याक उलयता गे? ओगी बस, तुज्या जाळ्यांत, हांव आनी तू एक जाता? हांव हुशार, म्होव पुंजायता, म्होवाचे मालें बांदता, आनी हांगा-थंय उडटा. हावें एक कूंस मारल्यार तू आनी उरतली? सोमती मरतली."

म्होवामूस बडबडत रावलो. पूण मावली ओग्गी रावली. बडबडटा-बडबडटा म्हावामूस केन्नाच मावलेच्या जाळयांत घुस्पलो. ताणे जाळ्यांतल्यान सुटपाक खूप धडपड केली. पुणून ताका जाळ्यातल्यान भायर येवपाक मेळलेना. तडफडून तडफडून तो जाळ्यांतूच मेलो. मावलेन मागीर म्होवामूसाक खावन उडयलो.

# गुंडू जल्ल्याच्यो मिश्यो

एक दीस गुंडू जल्लो आलमारी पोंदाच्यान भायर आयलो आनी वोर्रान हांगा थंय भोंवपाक लागलो. ताका वाटेर चार-पांच मुंयो वतना दिश्टी पडल्यो. ताणे त्या मुंयांक आपली मिशी अशी वांकडी तिकडी हालोवन भेश्टायलें. ते बराबर तीं झुर्र करुन पळून गेलीं. गुंडूक तें पळोवन मजा दिसली. मागीर तो मेळत ताका आपल्यो मिश्यो हालोवन भेश्टांवक लागलो.

असोच सगळ्यांक भेश्टायत भोंवतना गुंडू जल्लो मेजाचेर वयर चडलो. मेजार बरींबरीं खाणां बशयेत घालून दवरिल्लीं. आनी कुशींत खुर्चेर बसून एक मनीस पेपर वाचतालो. गुंडू जल्लयाक, त्या मनशाक भेश्टांवपाची कूंय आयली. तो नेटान त्या मनशामुखार वचून पेपरार चडलो. आनी त्या मनशाक आपल्यो मिश्यो हालोवन भेश्टावंक लागलो. त्या मनशाक गुंडूची मारली भिरभिरी. ताणें सोमत्योच गुंडू जल्ल्याच्यो मिशो हाताच्या चिमटेंत धरुन, ताका वयर उखल्लो गुंडू ताच्या हाताच्या चिमटेतल्यान आपल्यो मिश्यो सोडोवपाचो येत्न करपाक लागलो. चड नेट लायतकच गुंडूच्यो मिश्यो मदींच तुटून, तो धप्प करुन सकयल पडलो. अर्दकुट्यो मिश्यो, जांव अर्दकुट्यो ,पुणून जीव तर वाचलो. म्हणत गुंडू जल्ल्यान फुज्ज्यो मारल्यो. तेन्नासावन मिश्यो दाखोवन बाकीच्यांक भेश्टावपाचे गुंडू जल्ल्यान सोडून दिलें.

# श्री हरि प्रकाशनान उजवाडायिल्लें साहित्य

| | | | |
|---|---|---|---|
| १. | उमजणी | कथा | दीपा मुरकुंडे |
| २. | जिवीत एक तियात्र | नाटकुलीं | शॅरोन माझारेलो |
| ३. | चौफूल | नाटकुलीं | माया खरंगटे |
| ४. | पिटकुलीं नाटकुलीं | नाटकुलीं | दीपा मुरकुंडे |
| | (पयली उजवाडावणी : ऑगस्ट १९९८) | | |
| | (दुसरी उजवाडावणी : डिसेंबर १९९९) | | |
| ५. | भौरंगी जीण | निबंध | दीपा मुरकुंडे |
| ६. | मोराची करामत | नाटकुलीं | रजनी भेंब्रे |
| ७. | आंकवार काजारी | नाटक | रवींद्र नमशीकर |
| ८. | नुपी | काणयो | दीपा मुरकुंडे |
| ९. | रानांतल्यो काणयो | काणयो | नयना आडारकार |
| १०. | घोंटेर | कथा | माया खरंगटे |
| ११. | दुरीग | तियात्र | विल्मिक्स विल्सन माझारेलो |
| १२. | चिमी | काणयो | दीपा मुरकुंडे |
| १३. | हिरन आनी वांस्वेल | काणयो | नयना आडारकार |
| १४. | डॅडी | नाटक | दत्ताराम दा. कामत बांबोळकार |
| १५. | पिटकुल्यो काणयो | काणयो | नयना आडारकार |
| १६. | शिवं आनी कासव | काणयो | सुधा खरंगटे |
| १७. | पडबिंब | निबंध | दीपा मुरकुंडे |
| १८. | काणयो सैमाच्यो आनी मनश्यांचो | काणयो | सुधा खरंगटे |
| १९. | कासवाचे घर | काणयो | नयना आडारकार |
| २०. | काणयांचे पेटूल | काणयो | सरस्वती दामोदर नायक |
| २१. | मस्तूल | काणयो | नयना आडारकार |
| २२. | कुट्टुन्यो | काणयो | नयना आडारकार |